# रान आंवाळे

नरसिंह प्रभू. गांवकार

**(कविता संग्रह)**

**Raan Aanvalle**

*by*

*Narsinha Prabhu Gaonkar*

*(Poems)*

**प्रकाशन क्र. ८७**



**पयली आवृत्ती**
मार्च २०१२
**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९० ००२
**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन
**मुखचित्र आनी रेखाटन**
गिरीश नंदा बोरकार
**प्रकाशक**
कामिनी किणी
'धर्म-लक्ष्मी',
सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.

**मोल ₹ १००/-**





म्हजी आवय
**सर्गेस्त तारामती यशवंत प्रभू गांवकार**
हिका अर्पण...

# मांडावळ

# मनसंवेदना

'रान आंवाळे' ह्या नांवान उजवाडाक येवपाचे वाटेर आशिल्लो म्हजो पयलो वयलो कविता झेलो, गोंय कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेखाला  वेंचून काडला हें कळ्ळे उप्रांत म्हज्या मनाक खूब खोस भोगता. आपले कडल्यान घडिल्ली एखाद्री कलाकृती पुर्णायेक पावतकीर आपसूकच एक मोठें समाधान मेळटा आनी ती कलाकृती मान्यवरांचे पसंतीक उतरतकीच मनाची अवस्था कितें जाता ताचो अणभव म्हाका आयज येता...!

एखाद्रया विशयाची धडकी जेन्ना काळजाक बसता तेन्ना ताचो प्रतीध्वनी सगळ्याक फांकता. मात, तें सगळ्यांचेच बाबतींत घड्टा अशें म्हणूंक येना अशें म्हाका दिसता. तें शक्य आसता जाचें काळीज संवेदनशील आसता ताका.

संवेदनशील काळीज असल्या प्रसंगार पाजरता आनी तांतल्यान ऊंऽऽ कार भायर पडटा हो म्हजो अणभव...! हांव काय एक मोठो लेखक वा कवीय न्हय. पूण, म्हजे शालेय जिणे साकून जें हांवें वाचन केलें, प्रसंगार बारीक सारीक लिखाणय करचें पडलें. तांतल्यान लिखाण करपाची दिका मेळत रावली.

शालेय जिणे उप्रांत साधारण तीस पस्तीस वर्सां म्हजी पोस्ट आनी तार खात्यांत गेलीं. पोस्ट खात्याक हरशीं लोक गाळी मारतात पूण म्हजे दिश्टीकोणांतल्यान तें एक पवित्र खातें म्हणूं येता...! त्या खात्या बाबतींत अज्ञानी आशिल्ले लोकूय दुशणां दितात. असो म्हजो अणभव आसा.

हें हांगा बरोवपाचें कारण म्हळ्यार त्या खात्याक पगारा भायर आलायती जरी जोड ना जाली तरी खात्याच्या ग्राहकाकडेन भरपूर संपर्क आयिल्ल्यान

वेगवेगळ्या व्यक्तीमत्वाचो अणभव येता. ह्या अणभवाचो उपेग हांवें म्हजें लिखाण नोकरेंतल्यान निवृत्त जातकीर वाढोवपाक आरंब केलो.

म्हाका याद आसा शालेय जिणेंत अदमासान सोळा वर्सांचेर एका देवळांत एके सुंदर चलयेचेर म्हजी नदर पडली आनी ध्यानांत मनांत नासतना म्हजे भितरलो कवी एकदम जागो जालो आनी झराझर पांच सात कडवीं तिच्या वर्णनाचेर ताणें निर्माण केलीं. तीं कडवीं हांवें म्हज्या इश्टपरिवारांत म्हणून दाखयलीं. जशें हांवें कितें तरी अगाद केलां.

म्हज्या कवनांभितर हांवें वेगवेगळ्या विशयांचो आसपाव केल्लो आसा. सामाजीक जिणेंतलीं, राजकारणांतलीं कांय व्यंगां अर्थात म्हजे नदरेन जीं म्हाका भावलीं तांचेर हांवें नेमकें बोट दवरून कवनांची रचणूक केल्ली आसा. तातूंत कोणाचेरूय टिका करपाचो वा कोणाक दुखोवपाचो म्हजो हेत ना.

गोंयांत बऱ्याच देवळांनी संकासुराचो कालो करपाची परंपरा आसा. आयज ती चड करून बंद पडपाचे वाटेर आसा. कारण त्या संबंधाची म्हायती लिखीत स्वरूपांत ना आनी हे कारणान ताचें आकर्शण लोकांक जावंक शकना. ह्या काल्याची उर्जीतावस्था येवचे खातीर एक सुटसुटीत लिखाण सद्याचे पिळगेक भावता अशे तरेन बरोवपाचो प्रयत्न हांवें चालू केला. आयज काल टि.वी. माध्यमाक लागून नाटकां, काले हांचेर प्रेक्षकांचो कल कमी जाल्लो आसा तो फिरोवपाचो हेतू ताचे फाटल्यान आसा.

एकदां हांव मुंबय परेल वाठारांत गेल्लों. एका भुरग्याक सहज विचारलें, 'शिवाजी कोण?' ताचेर तो कांयच जाप दिवंक शकलो ना. तें पळयतकीत इतिहासाचे बाबतींत निदान आमच्या देशाचें थोडें भोव गिन्यान आसचें हो हेत फुडें दवरून पुर्तुगेजांचें गोंयांत आगमन हें एक म्हायती रुपांत पुस्तक तयार केलां, देशाभिमान जागयतलो जाल्यार म्हारपुरशांचीं करतुपां जाणून घेवपाची गरज आसा. ह्या कामाकय म्हजो एक ल्हानसो हातभार लागचो ह्या हेतून घरांत आशिल्ल्या रामविजय ग्रंथाचो एक-एक अध्याय वाचून ताचो हांवें कोंकणींत अणकार केला. योग्य संदी लाभतगीच तें बरप उजवाडाक येतलें हाची हांव आस्त बाळगितां.

आयज मेरेन जें कितें बरयलां आनी जें कितें फुडें बरोवंक शकतलों हाचो




फाटलो हेतू एकच आसतलो तो म्हणजे फुडाराक तिचो कोणाक फायदो जावचो.

कोंकणी भाशेच्या शब्दाच्या तुटपुंज्या गिन्यानान, कोंकणीच्या अभिमानान कोंकणीतच बरोवपाचो केल्लो अट्टाहास ह्या कारणांनी कवितेच्यो ओळी प्रभाविपणान बरोवपाक, कांय योग्य शब्दांची उणीव भरून काडपाक म्हजी सुनबाय वीणा आनी तिची एक शाळेची सहकारी शिक्षिका तशेंच कोंकणी भाशेची गिन्यानी बाय स्वाती नायक आनी बाय डॉ. जयंती नायक तशेंच अनंतबाब अग्नी हाणीं म्हाका पालव दिलो. फुडें म्हजे पिरायेक अनुसरून हांवें पंचविशेक मराठी भावगितां आनी एका नाटकुल्याची निर्मिती केली. पूण फुडें घर दुरूस्तीच्या वेळार ती चोपडी खंयतरी शेणून गेली.

पोस्टखात्यांत लागतकीर मात म्हजें लिखाण बंद पडलें. कारण त्या खात्याचें काम आनी लिखाण हांचो छत्तीसाचो आंकडो. कामाचो ताण खूब पडिल्लो उरतालो. निवृत्त जातगीर मात हांवें थारायलें की परतें कितें ना कितेंय तरी बरोवपाचें. म्हजेर आतां कसलेंच बंधन नाशिल्लें. पस्तीस वर्सां मशीनावरीं काम करून सगळेंच हांव वगडावन बशिल्लों. पूण त्या कामांतल्यान म्हाका मुक्ती मेळतकीर म्हज्या शेतां, भाटांक वावुरपाक पुरायपणान मेकळो जालों. मनाची प्रसन्नता वाडूंक लागली, म्हजे भितरलो साहित्यकार परतून एक फावट जागो जालो. पिरायेन जाणटो जरी आसलों तरी मनांत तूं म्हातारो ना अशेंच तो सांगपाक सोदतालो जावंये! कितेंय तरी बरयत राव... म्हणजे वाडटें म्हातारपण जाणवचें ना, मनाची एकाग्रताय वाडोवपाची, तुज्या सरभोंवतणचो परिसर आसा, बरोवपाचे तंद्रींत तूं उरत जाल्यार तुका म्हातारपणाचो त्रास जांवचोना. तुजी किटकीट बाकिच्यांक बादची ना.

पूण कितें बरयतलों? पुर्तुगीज, इंग्लीश, मराठी हाचें थोडें गिन्यान मेळिल्ल्यान कोंकणी भाशांतर करपाक येतालें. हांवें चिंतलें सटर-फटर बरोवचे परस म्हज्या बरोवपाचो कोणाकय फायदो जांवचो. मुळा पासून म्हजी ही प्रवृत्ती. न्हातनाय बांयचो काडिल्लो कळसो झाडां पोंदा व्हरून न्हावप म्हणजे न्हाणय जालें आनी झाडाकय उदक मेळ्ळें.

आमच्या पैंगीण गांवांत एक प्रसिध्द गड्याची जात्रा तीन सालांत, तीन गांवच्या लोकांच्या सहकार्यान जाता. ते जात्रेचें एक वेगळेंच खाशेलेंपण आसा.

शेकड्यांनी वर्सां परंपरेन चलत आयिल्ली ही जात्रा पळोवपाक हजारांनी लोक येतात. हे जात्रेची लोकांक उत्सुकताय आसा. तेन्ना हे जात्रे संबंदीचें एक पुस्तक बरोवंचें, ते खातीर म्हायतीय जायते कडल्यान मेळयली आनी पुस्तक रुपान तें बरयलां. सद्याचे पिळगेक ते जात्रेची बांदावळ व्हडलीशी खबर ना देखून तांका आनी फुडलेय पिळगेक ती उपकारतली हो हावेस...सगळ्यांनी ती भरून काडली हाची हांगा मुद्दाम नोंद घेवंची पडटा.

बाय स्वातीन म्हजे विनंतीक मान दिवन आपलो मोलादीक वेळ खर्चून ह्या कविता झेल्याक प्रस्तावना बरयल्या ते खातीर आनी हेर सहकार्य केल्ले खातीर हांव ताचें मनाकाळजा सावन उपकारी आसां. निमणें हो सगळो आटाप बाय वीणाच्या फुढारपणाखाला जाल्ले बद्दल आनी आयचो योग जुळोवन हाडिल्ले बद्दल तिचेय उपकार आठयतां आनी हाचें श्रेय ताका वता हें कबूल करचें पडटा.

निमणे ज्या व्यक्तींचो म्हाका हे बाबतींत प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष पालव मेळ्ळो तांचे हांव मनाकाळजा सावन उपकारी आसां.

– **नरसिंह प्रभू गांवकार**

घर नं. ७९६,
महाल वाडो, पैंगीणी,
काणकोण – गोंय
फोन : ३२७०५५१

# रान आंवाळ्याची रूच चांखतना.....

**श्री.** नरसिंह प्रभू गांवकार फाटलीं कितलींशींच वर्सां कोंकणी मांयेची सेवा करतात, तांचो वावर लोकांमुखार जरी आयलो ना तरी आपले भाशेपासत, आपल्या वाठारापासत आशिल्ली तांच्या काळजांतली तळमळ तांच्या घरच्यांनी पारखिली आनी आयज सरस्पतीक हो पयलो झेलो ते ओंपतात. हो झेलो म्हळयार फाटल्या कितल्याशाच वर्सांच्यो यादी, तांणी अणभविल्ले कोडू-गोड खीण, समाजांत चलपी भ्रश्टाचार, भाशेचेर जावपी आगळीको, देशाचेर जावपी आगळीको, घराब्याचो मोग ह्या सगळ्या गजालींचेर तांणीं आपले खाशेले शैलीन केल्लो नियाळ म्हळ्यार अतिताय जांवची ना.

तांची सून बाय वीणा, हाणें जेन्ना तांच्यो कविता म्हज्या हातांत दिल्यो, तेन्ना त्यो वाचतना कवीन जे तळमळीन, जे पोटतिडकेन त्यो कागदार बरोवन काडल्यात ती खरसाण जाणवली. आपल्या मनांतलीं सपनां, आपले आंवडे, आपले अणभव, शब्दांनी बांदून ते सुटसुटीतपणान वाचप्यांच्या काळजाक हात घालपाचे ताकदीन ते गुंथल्यात.

कवी नरसिंह प्रभू गांवकार हांचो 'रान आंवाळे' हो पयलोच कविता झेलो. ह्या झेल्यांत तांच्यो ३३ कविता आस्पावतात. ह्या झेल्यांतल्यो चडश्यो कविता तरणे पिळगेक जिणेचो संदेश दिवपी आसात. तशेंच कांय कवितांनी कवी तरणे पिळगेन व्यसनाधीन जायनासतना जीण कशी जगपी हें सांगून वता. जिणेच्या सगळ्यां तासांचेर उजवाड घालतना कवी थळाव्या देवांक होरयता. श्री परशुरामाचे सासायेंत आपलो गांव कसो पावन जाला हें सांगता.

वेंचणूकेच्या वेळार आलेबाव-कोलेबाव आपलें कशें सादोवन घेतात हाचेर

ते उजवाड घालतात. वेंचणुकेचें फेस्त हे कवितेंत ते म्हणटात,

आमचें काम तांचे दाम
नातें कसलेंच ना हाचे भायर
ह्या फेस्ताचे जे येजमान
येतात भेटेक मोठ्या मोगान

हे कवितेंत कवी म्हणटा, मतां मेळोवपा खातीर आयचे फुडारी पयशे, साडयो, जाय तें दिवन मतां विकतीं घेवंक तयार आसतात. मतदार आतां शाणो जाला. तो लेगीत तांकां पारखिता, मजा मारता आनी निमणें आपल्याक जाय तेंच करता.

आपल्या सोबित गांवची व्हडविकाय गांवपाक कवी विसरना. तो म्हणटा,

दोन दोंगरांच्या कपारींक वसला
आमचो माणकुलो गांव गा
लोक मुळावे त्या गांवचे आमी
खरेले गांवकार गा

हे कवितेंत आपलो गांव कितलो संपन्न आसा तें सांगतना गांवच्यो सगळ्यो गरजो, शेतां भाटां पिकोवन लोक भागयतात आनी नवे पिळगेक नकळटना एक संदेश दिवन वता.

'आमचे काय बरेलें सुख' हे कवितेंत कवी आयचीं कांय बायलां जीं घोवाचे काळे कारभार पळोवन लेगीत आपलें सुख पयलीं, भांगरां शिंगरां पयलीं, भोवंड्यो पयलीं अशें म्हणपी आसतात तांकां ल्हवूच चिमटायता. कवी म्हणटा,

धंदे तांचे वायट बरे जरी
करीना भायल्या भायर
आमच्या सुखाआड येना मेरेन
तांचे ते मेकळ्यार

कवीक सैमाची, सैमांतल्या जीव-जिवाण्यांची आयचे पिळगेन जतनाय घेवची होय हावेस आसा. नागपंचमीक आमी जाका पुजतात ताका हेर दिसांनी मारूंक धांवतात पूण होच प्राणी शेतकामत्यांक गरजेक पावता. ताची

सोबितकाय तोखेवंक लेगीत कवी फाटीं रावना.

शिक्षण धाडलां सरकारान गांवां गांवांनी
फायदो घेवंचो चडांत चड
ना मनाक कसो हाडात कोणी

कवी हाडाचो कश्टकरी. आपल्या भाटांत, माडांच्या सांगातान वावर करून सुखावपी, 'आमचो एका मेकाचो ऋणानुबंद' हे कवितेंत कवी म्हणटा,

भूक तान भागोवंक तांची
कश्टांची म्हज्या जोड दितां
जिवा भावाचें नातें तांच्या
लागीं सारखें हांव जुळयतां

कुळागरांतल्या माडां भोंवतणीं आपली जीण सरल्या हें सांगूंक कवी विसरना. आपल्या झाडांकडेन आशिल्लें आपलें जिवाभावाचें नातें तांच्या उतरांतल्यान जाणवता.

'अजून म्हाका याद येता' ही मोगाची कविता. मोगिकेच्या मोगान पिसो जावन, भुल्लुशिल्लो आसतनाच ताका ती पिसो करून नाच जाली, त्यो यादी काडून कवी दुख्खी जाता.

सांगाताचे थोडेच पूण मधूर ते खीण
गेले म्हजे अंत:करणाक भिनून
काळाच्या ओघात त्या यादीन
म्हजें मन जाता आजय खीन्न

कवी नरसिंह प्रभू गांवकार, आयज सुमार ८० वर्सां पिरायेचे आसात. देखून पुर्तुगेज राजवटींत ते जगल्यांत, तांच्यो आगळीको दोळ्यांनी पळयल्यात आनी तांचे विशींचो किंवाटो मनांत घेवन आयजूय ते जियेतात. 'नातें माये मोगाचें'हे कवितेंत ते म्हणटात,

गोरेपणांतलें देखणेंपण
मनाक भाविल्लें व्हडपण
आपल्याच आवयक उणें लेखून
चलतालें तांचे लेंबडेपण

अश्यो आनी कितल्योशोच कविता जातूंत कवी समाजाचो हुस्को करता, भोंवतणच्या वाठाराक पळोवन दुख्खी जाता. रानआंवाळ्याची आंबट रूच तांच्या जिबेर उरता.

हांव फाटलीं बारा–तेरा वर्सां श्री. नरसिंह प्रभू गांवकार हांणी बरयल्ल्यो कविता, एकांकीका वाचतां. तांकां साहित्याची आवड आसा. कवितेच्या नेमांत बसपासारखी कविता नासली तरी ती तांच्या काळजांतल्यान आयल्या हें म्हत्वाचें. तांचे कडेन एक अणभवी नदर आसा. ते जीण जगल्यात. एका व्हड घराब्यांत वाडल्यात तशेंच तांणीं वडील ह्या नात्यान तो सांबाळ्ळा. तो सांबाळटना आयिल्ले अणभव, सुखदुखां, अपेक्षा, इत्सा हें सगळें तांच्या कवितांनी उपाट भरिल्लें दिसता. आपले मांयभाशेचेर तांचो खुब मोग आसा. तांचे लिखणेंत एकेतरेचो बिनधास्तपणा आसा. तांकां कोणाचो भंय ना. काळजांतलो उमाळो ते तश्याक तसो कागदार देंवयतात.

म्हाका जशी तांची कविता भावली तशी ही हांवें म्हजेपरीन केल्ली तांचे कवितेची वळख. दर एका मनशाची नदर वेगळी आसता. साहित्याच्या मळावेले ते जाणकार नासत पूण हांव तांकां जिणेचे जाणकार म्हणन. हांव तांचे परस वयान आनी अणभवान कितलेंशेंच ल्हान. तांणीं जें बरयलां तातूंत कोंकणी साहित्यांत भर पडल्या हें दुबाव विरयत. हाचे परस चड आनी बरें लिखाण करपाची उर्बा तांकां मेळूं. देवान तांकां बरीं भलायकी दिवं आनी कोंकणी मांयेची सेवा तांच्या हातांतल्यान करून घेवं इतलीच इत्सा.

श्री. नरसिंह प्रभू गांवकारांक हांव तांच्या ह्या पयल्या वयल्या कवितां झेल्या खातीर काळजांतल्यान परबीं भेटयतां.

**– स्वाती नायक**

केपें, २९/०२/२०१२....

# म्हजो संवेदनशील मांव

'पापा' म्हजो मांव श्री. नरसिंह यशवंत प्रभू गांवकार. आमचो पैंगीण गांव जरी ल्हान आसलो तरी तांचो आनी म्हजो प्रत्यक्ष एकमेकांकडेन उलोवपाचो संबंध आयलो तो आमची सोयरीगत जायना फुडें. १९९९ सालांत म्हजी आनी अजय नरसिंह प्रभू गांवकार हांची सोयरीगत जाली आनी तेन्नाच्यान पापा भितर आशिल्लें एक अष्टताशी व्यक्तिमत्व, म्हाका आभिमान भोगपासारखो मांव, म्हाका बापायच्याच रूपान मेळ्ळो. ते साहित्यीक न्हय तर ते एक बरे वक्ते. बरे चित्रकार, हाडामासाचे शेतकामती. खंयचें काम तांकां येना अशें केन्नाच जालें ना. आयज ते पिरायेचीं एकोणअंशी वर्सांची वाट चलतात. पूण तांचें कविमन आजून पांचवें आसा, विचार तांचे तन्ने आसात, अजून शक्त नेण्टी आसा, तितकोच आत्मविश्वास, उतराचे ते पक्के आसात. अशीं कित्लीशींच विशेशणां तांचे विशीं सांगतना एका फाटल्यान एक लायनीन म्हाका दिसतात.

९ जुलै २००० हे वर्सा लग्न जावन जेन्ना हांव घरांत आयलें तेन्ना तांचीं सगळीं खाशेलपणां म्हाका दिसपाक लागलीं. हांव निराकार शिक्षण संस्थेच्या तुडल हायस्कूलांत शिकयतां. तेन्ना स्नेहमेळावो जांव केन्ना-

केन्ना भाशण सर्तींनी भाशणां, आपलीं पदां तांणीं म्हाका विनंती केल्ले फावटी दिल्यांत. तेन्नाच म्हज्या मनाक तें होलमलें आनी हांवेंच मनार घेवन म्हज्या घराकाराचे सम्मतीन ताच्यांतलो साहित्यीक आनी कलाकाराक पुरायतरेन जागो करपाचें काम केलें.

तांचो स्वभाव मात्सो हट्टी आनी तो तांच्या जीणेचो Turning Point थारपाक मदत जाली. जें मतींत हाडटा तें करून दाखयतात. जें मनार घेतात तें तडीक पावयतात. आळशीपणां हीं वखदाक लेगीत तांच्या सरभोंवतणी भोंवतना म्हाका जाणवलींना.

म्हाका याद जाता, अशीच एक दीस ताणें आपली कविता म्हाका वाचून दाखयली. तेन्ना म्हाका ती खूबूच आवडली. आनी हांवें तांकां अशेच कविता बरयत रावपाखातीर उर्बा दिली. सरस्वती देवीन उदार हातान तांचेर काव्याचो वर्षाव केलो.

पापा व्यवसायान एक निवृत्त पोस्ट मास्तर. आपल्या सहवासांत आयिल्ले गोड, कडू अणभव, बरे वायट मनशांच्या सभावाचो हिशेब तांणीं लावन दवरलो आनी आपले गरजे प्रमाण प्रत्येकाचो उपेग केलो. आनी ताचीच सासाय घडये आयज अचकीत 'रान आंवाळे' च्या रूपांत आमचे मेरेन पावली.

पापा पिरायेन ल्हान आशिल्ले तेन्नाच तांचे बापूय संवसाराक अंतरले. पूण ल्हान पिरायेचे पापा तेन्नाच भावंडांखातीर व्हड जाले आनी बापायची भूमिका तांकां करची पडली. आनी सगळ्यांचेच ते 'बाब' जाले. आयज घरांतलीं सगळीं भावंडां तांकां 'बाब' म्हणटात आनी बापाय इतलोच रेस्पेद दितात. गांवचेच न्हय तर पुराय काणकोण तालुको तांका 'शबलबाब' म्हण वळखतात. तांचें वेव्हारीक नांव जरी नरसिंह आसलें तरी पोस्ट

शबल प्रभू गांवकार म्हळ्यार घरा सारकें पावता.

पापान आपले नोकरे भायर जायत्या लोकांचीं कामांय केल्यांत आनी आजून ते करतात. तशे आमचे पापा जायत्या भासांचे बऱ्यापैकी जाणकार. तांकां कोंकणी, मराठी, ईंग्लीश, फ्रेंच, पुर्तुगेज भासो बऱ्यापैकी उलोवंक बरोवंक, वाचूंक येतात. कितलेशेच लोक आपले पयलींचे दस्तावैज (Documents) तांचे लागीं अणकार करपाक घेवन येतात. खास करून पुर्तुगेज आनी पापा लोकांची सेवा मोठे उमेदीन करतात. कितलेशेच लोक तांचे कडेन सल्लोय घेवंक येतात, तांकाय ते धादोस करून धाडटात.

पापा म्हळ्यार सादी राहणी आनी उच्च विचारसरणी अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची ना. आपलें नांव चारचौगांत जांवचें, जांव आपलें व्हडपण लोकांक सांगपाचें काम तांणीं केन्नाच आयज मेरेन केल्लें म्हाका खबर ना.

म्हज्या घरकाराचो पोल्ट्री फार्माचो धंदो आसा. पूण तो पुरायपणान पळोवपाचें काम एक अंयशी वर्सां पिरायेचो तरणाटो जावन पापा पळयतात. तशेंच म्हज्या दोनूय पुतांचेर सदांच संस्कारे तांचे कडल्यान जायत आसतात. तांचे कडेन संस्काराची, पौराणीक काणयांची व्हड खाण आसा आनी ताचो फायदो पापाल्या स्वतःच्या भुरग्यांकूय जालो आनी घरांतल्या लोकांकूय....! देखून आमी स्वताक खूब नशिबवान समजतात.

एखाद्रया विशयाचेर पापाक बरोवंक सांगल्यार खंयच्याय विशयाचीं पुस्तकां, म्हायती, सुविचार, देखी तांकां केन्नाच घेवंच्यो पडनांत. तांचें दर एका विशयाचें वाचन तितकेच खोलायेन तांणीं केल्लें आसा. पापा म्हळ्यार म्हजे खातीर विचारांची खाण. तशेंच पापा म्हळ्यार मोगाचो झरो. घरांतल्यांक सगळ्यांक आयज एकठांय दवरपाचें काम पापान केलां.

तितकेच घरातले सगळे तांकां मानतात, तांचेकडेन सल्लो घेतात, मागीर तो घरांतलो ल्हान तरनाटो आसूं जांव व्हड कोणूय.

पापा हो एक निस्वार्थी मनीस. केन्नाच कोणाकडेन आयजवेर तांणीं याचना केली ना जांव आपलो सुवार्थ सादोवनय घेतलोना. आपल्या भुरग्यांक, घरच्यांक, सगळ्यांकूच तांचें सांगप एकच आसता, 'खंयच्च्याय गजालीचो चड सुवार्थ करप बरो न्हय'. खंयच्च्याच गजालीचेर आपलो हक्क नासता आनी हक्क आसता तो फक्त देवाचो. सदांच सगळ्याचें बरें जांव हेंच तांचें एकमेव गाऱ्हाणें देवा लागीं आसता. आनी तांच्याच गाऱ्हाण्याचें फळ आमच्या घराक देव दिता.

पापा आपल्या एकोणअंयशी वर्सां पिरायेर सुद्धा आपल्या कडल्यान जी मदत कोणाक जावंक शकता ती ते करतात. आनी आपली स्वताचीं कामां, सगळीं स्वता करपाक तांकौं आवडटात, तीं कोणेंय केल्लीं तांकौं आवडनांत. मागीर ते च्या पितकीर कप धुवपाचें काम आसूं जांव म्हेळे जाल्ले कपडे धुवपाचें काम आसूं. इतलेंच न्हय तर आमच्या कुळारगरांतलीं कित्लीशींच कामां ते निसुवार्थीपणान आयज मेरेन करत आयल्यात आनी आपणें केल्लें खंयचेंय काम ते गायत बसनांत जांव आपणें केल्ल्या खंयच्च्याय कामाचें व्हडपण ते सांगनात. तांचें एकच म्हणणें आसता आपूण जें कितें करता तें कोणाकूय फुडें उपकारचें देखून.

आमच्या घराचें जें कितें बागायती उत्पन्न आसा तातूंत पापालो शिंवाचो वाटो आसा. वाडवडिलांनी जी कितें बागायती केली तांतूंत पापान निसुवार्थी भावनेन भर घाली. फळाची आशा तेन्नाय तांणीं केली ना आनी आयजय ते करिनांत. तांणीं आपली सरकारी नोकरी बऱ्यापैकी सांबाळ्ळी. तांतूंत तांणीं नांव मेळयलें आनी आपलें घर, बागायती हाचेरूय लक्ष दवरलें.

वास्को, मडगांव आनी काणकोण आसतना थंयची नोकरी सोंपतकीर तिनसांजचे घरा पावतकीर ते निट्ट शेतांत, भाटांत वताले आनी पावसाच्या दिसांनीं काजूनी बीं घालपाक, रानांनी, दोंगरांनीं ते भोंवताले. तांचेच पुण्यायेन आमकां आयज उत्पन्न मेळटा.

"घार हिंडे आकाशी चित्त तिचे पिलापाशी" अशें संतान म्हणिल्लेवरी पापाचेंय चित्त संवसार करूनय, घरा पासून पयस आसुनूय आपल्या घरच्या जाण्ट्या आवय, भावंडांचेर आसतालें.

पापान सगळ्या मळार वावरूनय स्वताक केन्नाच व्यसन लावन घेतलें ना आनी तांच्या सहवासान व्यसनी मनशांचीं व्यसनां सुटपाक मात मदत जाल्ल्याचें ते खूब फावट उल्लेख करतात. तांचे हे संस्काराचे धडे नकळत तांचीं भावंडां, भुरग्यांनीय घेतले हातूंत दुबाव ना.

घरांत घरावें दूद वापरपाची पद्धत तशी जुनीच, ताका आमचेंय घर अपवाद नासलें. आमच्या घरांत म्हस, गाय ताज्या दुदाखातीर पाळपाची परंपरा, साठ-सत्तर वर्सां सावन चालू आशिल्ली. तातूंत भरीव वाढ करून एक दुदाच्यो म्हशी सांबाळून आपलें दूद, अस्सल दूद, प्रामाणिकपणान पापा आनी तांची घरकान्नीन गांवच्या लोकांक तशेंच, डेरींत घाली. हातुंतल्यान चड पयसो जोडपाचो तांचो उद्देश केन्नाच नासलो तर निवृत्त जातकीर सुद्धां आपूण कार्यरत उरचो ही तांची धडपड आसताली. गांवच्या भुरग्यांक तांच्या दुदाची इतली संवय जाल्ली की कांय गांवचीं भुरगीं त्या दुदा बगर दुसरें खंयचेंच दूद पिनासलीं. पापान आपले नोकरे वांगडा घरच्यो बागायती, उत्पन्न आनी खर्च हाचो ताळमेळ बऱ्यापैकी सांबाळ्ळो आनी ते आयजय सांबाळत आसात.

पापाक आपल्या पोस्टाचे नोकरे निमतान दोन-तीन तालुक्यांत रावचें

पडलें. आपले पुराय फामिली सयत म्हळ्यार तीन चले, एक चली आनी घरकान्नी सयत ते रावले. पूण राविल्लेकडेन ते लोकांक सदांच मदत करताले. १३ मे १९६४ हे वर्सा पापाच्या संवसाराक सुरवात जाली आनी रोखडोच तांचो नवो संवसार तांणीं नोकरे निमतान वास्को शारांत फुलयलो. तो काळ असो आशिल्लो. तेन्ना गोंयांत गाडयांची चड येरादारी नाशिल्ली तशेंच आयचे भशेन हॉटेल, लॉज नाशिल्लें. पूण गांवांतल्यान दोतोराक लागून, शिक्षणाक लागून वचपी कांय भुरग्यांक, लोकांक पापाचें बिऱ्हाड आसरो आसतालें आनी पापाच्या ह्या सगळ्या प्रवासांत तांकां मदत आसताली ती तांची घरकान्न सौ. सुलक्षा प्रभू गांवकार हांची. कारण घरकान्न समजुतदार आसले बगर खंयचेंच काम सारकें जावंक शकना. पापान आपले जिणेंतल्या दर एका दिसाचो फायदो करून घेवन हो एकच ध्यास धरलो आनी तोच ध्यास घेवन ते आयज मेरेन चलत आसात. तांच्या ह्या साहित्य प्रवासाक हांव येवकारतां आनी फुडल्या प्रवासा खातीर यश आंवडेतां.

**– वीणा अजय प्रभू गांवकार**

# आई सरस्वतीक गाऱ्हाणें

माये मोगाचे आवय सरस्वती
अज्ञानाचे काळखे रातीक
गिन्यानाचो उजवाड घालून
उद्‌रगतीच्या एक एक पावलान
संवसाराचो गाडो तूं चलयता गे

मोरासनार बसून तूं
टाळ, तंबुऱ्याच्या तालार
आसता चालू तुजो संचार
पाखरण तुगेल्या कदयेची
भावता सगळ्यांक तुजो प्रसाद गे

भक्तां लागीं घेता धांव
नासता कसलोच भेद-भाव
न्याय तुजो सगळ्यांक सारको
देव दिक्पाळ हीं तुका स्मरतात
मोठेंपण तुजें अगाद गे

पादुकांचो तुज्या आमी पुजारी
तुज्या प्रसादाचे आमी भिकारी
चार कण फापूड गे झोळयेंत
गिन्यानाचे लकाकेन आमच्या
भांगर जिणेचें घडूं दी गे

# श्री परशुरामाक नमन

जय जय श्री परशुरामा
ब्राह्मण कुल भुषणा
जमदग्नी रेणुकेच्या गा नंदना

ब्राह्मण कुल आसुन तुमी
ओपून घेतले क्षत्रिय कर्माक
दुर्बळांचे राखणेक, दुश्टांच्या कंदनाक

प्रताप तुमचो ज्ञात आसा
धर्तरेच्या शूर विरांक
धास्त तुमची आसता, सदांच गा तांच्या मनाक

झुजां केलीं एकवीस खेप
दुस्मान क्षत्रिय निसंतानाक
ना दवरून वासना कसली तांच्या गा भुयेधनाक

जोडली भूंय वगडायली दानाक
ना कसल्याय मान, पानाक
कश्यप मुनीक उपकारू म्हण देशाच्या भलेपणाक

दर्या हटौन वसैली तुमी
देगेवेलीं सात कोकणा
परशुराम खंड वळख तांची तुमच्याच गा नांवान

## म्हजे आवडिंची नोकरी

हांव बाबा शिकलां एस.एस.सी. पास
सरकारी नोकरेचोच घेतला ध्यास

सरकारी नोकरी खऱ्यानीच बरी
थोडेंशें काम मात आराम भारी
सुटयो मेळटात भोरोम साठ
त्योय सगळ्यो फुल्ल पगारी

जावं वॉचमॅन जावं शिपाय
हाज्या बोरी आनी कित्याक जाय
बॉसा लागीं जालो एकदां दाट
चौश्यात मागीर ह्या नोकरेचो थाट

घरच्या ऑर्डरीची ताच्या पळयत वाट
करचेलो कसलो तरी बाजार हाट
बोसून, ते मेरेन फुकचेल्यो विडयो
ओगीच तेकोवन कदेलार फाट

ऑफिसांतल्या फायल्यांच्यो आलमारी
उगडोंक केलो थोडो उगोत जोरी
दिसपटेच्च्या, चिरीमिरीन
बोलस जातलें भारी दाट

आईबाबा म्हणटा बाबा काशिनाथ
कित्याक मनाक तुज्या नोकरेचो घाट
चोल बाबा धोर आमच्या शेताची वाट
शेत कामतां धंद्याक नाका करू रे फाट

शिकलेल्या भुरग्याक शेतांतलें काम
फुकटचें जातलें नांव बदनाम
ते भायर पेंटीर रेब्याचे पाट
नाकाक शेणाचे घाणीचे त्रास

# आमचें काय बरेलें सूख

श्रीमंत बाये आमी बायलो
आमका ना बाये कितें उणें
गाडी बंगलो भांगर चाकर
ना कसलें चिंते दुखणें

आरामान सदां कुलचांवार
घेवचेलें मजेन लोळणें
मांय मांवाक घालीं वेगळीं
ना तांचें पिडणें

कामा घरांतलीं हळशिकावणीं
करचेलीं तीं कोणें
मोठेपणाक येतली बाधा
लोकय दितले दुणें



शीत, हुमण, दूद, भाजी
जेवन तें पोन्ने
बिरयानी पुलाव आमलेटां
ना सर करची कोणे

घरच्यो आमी कारभारिणी
घरांत प्रमाण आमचें म्हणणें
'घरकार' आमचे जावं कितलेय
भायर जरी शाणे



रान आंवाळे

धंदे तांचे जरी वायट बरे
करिनांत घरा भायर
आमच्या सुखा आड येना मेरेन
कित्याक करचो विचार

काय बरेल्या असल्या सुखाक
कोणाची तरी दिश्ट लागली
दोतोर सांगता व्हेट वाडला
रगतांतय साखर

## आमचो एकच निर्धार

एक आमचो निर्धार
एक आमचो निर्धार

माणकुलीं जरी भुरगीं आमी
भुरगेपण वतलें विसरूनी
चित्तलीं आमचो फुडार
एक आमचो निर्धार

गुरुवडलांचो घेवन आशिर्वाद
भौमानेस्तांची राखून मर्याद
शिकून जावया व्हडले जाणकार
एक आमचो निर्धार

एकजुटीच्या आदारान
धर्म जात सगळें विसरून
देशाचो घडौया बरो फुडार
एक आमचो निर्धार

संवयो वायट शेंवटून दिवंया
घट्ट मुट्ट आमच्यो कुडी घडोवंया
बरेलो आदर्श दवरूं मुखार
एक आमचो निर्धार

देशाचो आमी अभिमान सोडचेनांत
नांवाक ताच्या बट्टो लावचेनांत
मेळोवंक झटुया मानाचो आधिकार
एक आमचो निर्धार

हिंदू, शीख, मुस्लीम, क्रिस्तांव
वावरत ते जशे भाव-भाव
सुख दुखाचे समान भागिदार
एक आमचो निर्धार

पडली कोणाची नदर वांकडी
काडूं फाटिच्यो तांच्या सालकडी
वळखतले आमकां, खावन आमचो मार
एक आमचो निर्धार

## हें आतांचें शिकप

आयच्या शिकपी भुरग्यांची
सांगतां तुमकां काणी
कश्यो आसतात तांच्यो
एक एक करणी

शिकप वाडयलां सरकारान
गांवां गांवांनीं
फायदो कसो घेवंचो
नामनाक हाडटात कोणी

चोव्न तांचीं बुकां
एक, दोन डजनांनीं
फिट्टात आवय बापायच्यो
दोळ्यांच्यो पापणी

पोर आपलो जातलो काय
दोतोर इंजनेर व्हडलो कोणी
सरकारी ऑफिसर
ना तरी ल्हान मोठो राजकर्णी

भुरगे म्हणटात शिकप कित्याक?
चडश्या कश्टांनीं
कॉपी मारून जावं येता
पास हायर मार्कांनी

वेळ कसो घालोवं येता
चोवन सिडी पिक्चरांनीं
ना तरी खेळाक वोचून
पिवन सोरो बार्रांनी

वेगळें तरी कितें घडटा
स्कुलांतल्या क्लासांनीं
मस्कऱ्यो, कुस्कऱ्यो
नाका जाल्ल्या तरांनी

देख दिवंची कोणें हांका
सांगून बऱ्या उतरांनी
आवय बापायन घराक
काय स्कुलांतल्या टिचरांनी!

## आमचो एकामेकांचो ऋणानुबंध

माडांच्या भाटांत वचपाचे ओडीन
काळीज उफाळटा
गोंम हांतली कितें भाटकारच जाणटा

न्हिवोवंक माडांची तान भूक
कश्टांची आपल्या जोड दिता
जिवा भावाचें नातेंय ताच्या लागी जुळयता

आवंडेता घेवपाक एका एकाक
दोनय हातांनी, घट्ट वेंगावंक
नाल्ला पेंडी उंच कळवाक नदरेन भरता काळजाक

मोनी भास तरी भावता ती माडाक
चुडटां सुस्कार्‍यांनी जाणयतात धनयांक
उपकार आटोवन जगतात इमानाक

पांग भाटकाराची ना विसरून वतात
नाल्ल, आडसरां, चुडटां, वांशे
दिवन सगळें आपळें आयुष्य सोंपयतात

## वेंचणुकेचें फेस्त

आयलें रे आयलें फेस्त आयलें
वेचणुकेचें फेस्त आयलें
करचेली आतां पोटा पुजा
चिकन, बिरयानी, सोऱ्यान मजा

भाई, भाऊचो करूया बोबेन प्रचार
पंदरा दीस रावून बेकार
भाऊ भाई मामा ताई
आमकां तांचें ना होले सुयेर

तांचें दाम आमचें काम
हो आमचो सरळ वेव्हार
ना दुसरें कसलेंच नातें
वेगळे हाच्या भायर

हार जीत तांची तांका
ना वता कांय पडून आमकां
फुडली वेंचणूक जातली केन्ना
होच फुडलो हुस्को आमकां

ह्या फेस्ताचे जे यजमान
येतात भेटेक मोठ्या मोगान
मतां दिवप्यांचो येता उमाळो
तांकां बोंबले देंठांतल्यान

कोण हाडटा बॉल, बेटां
कोण वाट्टा पांयट, नॉटां
साडयांच्यो भेटी मुद्दाम बायलांक
एकूण मतांची करून कोतां

मोटार सायकल्योय दितात उदार
दुडवांची ही घेवन मदार
वेचणुके उपरांत ना जालें फारीक
सडकून खावचेलो तांचो मार

## आमचो बाबुलो

बाबुलो तो आमचो बाबुलो
देवाचे भिकेन आमकां जालो
मठयेचो दिवो आमचो, आदार फुडलो

आमची जात वेली ना
म्हण आमकां कसलो मान ना
समाजांतय स्थान ना

सांग बाबुल्या शिकतलो मू!
गिन्यानी तूं जातलो मू!
दोतोर, इंजिनेरकेक वेतलो मू!

पोरा तुज्या मोगान, म्हजें काळीज तुट्टा
व्हड मनीस तूं घडचो दिसता
जात सरची वयर हीच आस्ता

मम्मी पप्पा मम्मी पप्पा
शिकप येदें व्हड ना झेपचें म्हाका
म्हजो विचार जावन आसा पक्का

सरकारी नोकरी मेळटलीच म्हाका
शिकपाची ना व्हडली गरज हाका
'बॅकवर्ड' आमी, वगीच तुमी हुस्केनाकात

धंद्याचो आमच्या फायदो कसो
घेवंचो चितला म्हजो बेत असो
तुमी करपाचें, हांव सांगता तशें

सरकारी रीण घेंवंचें तुमी
फारीक करपाची ते घेता हमी
फारीक ना जालें म्हण ना भिवंचे आमी!



## आमच्या खेड्यांत आमी सुखी

दोन दोंगराचे दरयंत वसला
आमचो माणकुलो गांव गा
लोक मुळावे ते गांवचे, आमी
खरेलेच गांवकार गा

एकामेकांच्या पालवान
गांव आमचो फुललो गा
गरजो आमच्यो तो पुरयता
ना वचचें भायर कारण गा

देगांतल्या व्होळीनी एकठांय जावन गा
निर्मिला उदकाचो लांब पाट गा
फातरांतल्यान सोदीत वाट
पयस दर्याक वचून भेटलोगा

शेतां कामताक मोल ताचे
शेत कामत्यांकच ठाव गा
सगळ्या जिवाच्या जीणेची
तीच संजीवनी गा

शेतां चिखोल दिता आमका
मोती, भात, कणसांची गा
जीवीत तरता सगळ्यांचें
तांच्याच मालवजार गा

शेतां, बागा, मळांनी
धान्या, भाज्यो नी फळां गा
गोठ्यांतल्या गोरवांनीय
मनां आमचीं तृप्त गा

घरांतले नी गोठ्यांतले
मोगाचे आमी वांगडी गा
शेता कामता वावराक घोळूंक
वेतां आमी सांगतान गा

काबरो, शिब्रो, धवळो, काळू
साळू, मंगळू, बैल गायो
चंद्रभागें, यशवंतें
म्हशी दुदाचें कोठार गा

शेतां कामांनी घामाघूम
कुडी आमच्यो जातात गा
पोटाक अन्न न्हीद वेळार
भुकेचें वखद कित्याक गा

गांवच्या ह्या सुखा परस
वेगळें कितें आसतलें गा
शारांतल्या विकत्या सुखाक
भिके दुवाळे आमकां कित्याक गा!

## म्हजें जीणें इबाडलें हांवेंच

ते दिसाचे यादीन आजून
दोळे म्हजे भरून येतात
पूण घडून गेल्ले गजालीची
फाट कशी फिरोवंक येता?

सपनां रचीत फुडाराचीं
वयार आयलें हांव केन्ना
कुडीन म्हज्या संचारलो
नेट, भान जेन्ना

देखण्या रूपाक भाळून म्हज्या
जाताले तरणे सारके बेजार
ना केलें उक्तें कोणांक
म्हज्या काळजाचें दार

जायते झिजले दिवंक काळजां
आपलीं, म्हजे सुवादीन
ना गेलें बदून कोणांक
म्हजे सुंदरकायेचे घुंवळीन

आवय बापायचे सुचवणेचे
ना भुरगे गेले म्हज्या मनांत
म्हजी नदर फिरताली तेन्ना
सपनांतल्या नंदन वनांत

वर्सां गेलीं कितलींशींच उलटून
देखणेपणय आतां गेलें पालटून
नेट हो म्हजे कुडींतलो
गेलो तोय पुरो आटून

फूल म्हज्या जिविताचें
वतलें अशेंच सुकत काय?
परमळ नाशिल्ल्या फुलाची
करीत काय कोणी अपुरबाय?

हांवेंच घेतलें इबाडून म्हजें
जिणें! आतां निमणो उपाय
वायट बरो सांगाती
तोय फुडें म्हाका मेळत काय?

## सुखी मनशाचो सदरो

एक आशिल्लो जुलमी राजा
देवान दिली ताका सजा
राजा पडलो आजारी
इलाज केलो जारी

वैज एक-एक येता
वखदां आपलीं दिवन वता
खात्री मात गुणांची
कोणय तांतलो ना दिता

असोच आयलो एक 'हकीम'
प्रधानाक सांगलें उर्दून
दवासे गूण कभी न मुमकीन
प्रधान बाबडो गेलो भिवन

'सुखी' आदमी का सदरा लाओ
राजा साब को पहनाओ
बिमारी बाद में हट जायेगी
प्रधानजी हें जल्द कराओ

म्हळें प्रधानान!! ऐसा होगा
सदरा तुरंत मिल जायेगा
प्रधान बसलो घोड्यार
वांगडा शिपाय सरदार

गांव जसो तो पालथो घालता
सदऱ्याचो ना थांग पत्ता
भक्त संत पुण्यवान
दुर्जन, सज्जन, धनवान

सोदून थकलो बाबडो प्रधान
'सुख' ना , कोणाक, ना समाधान
आतां सोदचेलें कोणाक?
प्रधान तापलो रागान

पुरो गांवांनीं, सोंदू रानांनी
ल्हवूच म्हळें एका सरदारान
प्रधान न्हिवलो! घोड्यार चडलो
दोंगोर चडून रानांत घुसलो

दनपाराच्या भारार, कुराड खांद्यार
लाकडांचो भरो आपल्या माथ्यार
आख्या जगांत खरोच सुखी हांव
राजाय व्हड म्हज्या जाल्यारूय जावं

लाकूड फोड्याचीं उतरां आयकून
प्रधानान म्हळें मोठे खोशयेन
सुखी मनीस बाबा एकदांचो भेटलो
सगळ्यांच्या मनांत आनंद दाटलो

सुखी मनशा तुजो सदरो दी म्हाका
राजाक बरो करून पुसूंक दुकां
राजा दितलो मोठें बक्षिस तुकां
पावतलो तूं फुडें आपल्या सुखाक

फुसलायलो जरी प्रधानान ताका
लाकडां फोडपी म्हणटा म्हज्या कर्मा!
मेळटलो कसो म्हजो सदरो?
काश्टे बगर दुसरें लुगट आसल्यार?

## सांगपाची एक बरी गजाल

सांगतां बरी एक गजाल
मतींत सदां दवरात
उपकारतली घडोवपाक
तुमच्या ती फुडाराक

देश, जाचे पूत तुमी
नावास्तीक तो संवसारांत
भाग्यवंत जल्मून तुमी
ह्या देशाच्या वाठारांत

राम, कृष्ण, परशुराम
देवांच्या ह्या अवतारान
गौतम बुध्द, महावीर
शंकर, माधव, आचार्यान

नामदेव, गुरुनानकान
ज्ञानोबा, तुकारामान
चोखामेळा, जनाबाई
सखुबाई कबिरान

देवाल धर्मा संतांच्या
दिल्या, गेल्या, शिकोवपान
रिती, चाली विचारांच्यो
घडोवन आयल्या परंपरेन

टिळक गांधी जवाहरान
आंबडेकर, सावरकर
बुदवंत, नामवंत
खुबशे बरे विचारवंत

राजा शिवबा प्रतापान
पृथ्वीराज चव्हाणान
रचल्यात गाथो शौर्याच्यो
आप आपल्या कर्तुत्वान

जोडल्यात सगळ्यो करण्यो हांच्यो
आमच्या सगळ्यांच्या उद्धाराक
हींच सुत्रां आमचो आदार
भविश्याच्या विचारांक

## अजून म्हाका याद येता

तरणेपणांतली सपनां रंगोवन
हांव दंग जालां आसतना
आयली एक तरणी 'पावणी'
म्हज्या ध्याना, मनांत नासतना

सांगाताचो योग तिच्या
वेळ आयली जुळून
जोड पावलां घडूंक नांत
वेळेक ना भान, काळाक मानूंक ना

कसल्या तरी हेतान
आयली तशी अवचीत गेली
वतना मात गेली धडकोवन
'काळजाक', करून ताची दैना




अशेंच घडलें काय तिचें
हांव मानूंक धजना
नदरेंतले भाव तिच्या
आयज मेरेन हांव विसरूंक शकना

सांगाताचे म्होवाळ खीण
म्हज्या अंतस्करणाक गेले भेदून
काळाच्या हुंवारांत आयजय
ते यादीन मन जाता खीन्न

## तुजो देव तुज्याच म्हऱ्यांत

देव देव म्हण जप करीत
देव सोदता तूं देवळांत
देव खरोच वसता खंय
जाणून घेनात मात मनांत

देव तुजो भरून उरला
धर्तरी, उदक आनी मळबांत
येद्‌या व्हडल्या देवाक तूं
सोदता चार वण्टीच्या घरांत

फुंकून प्राण जितो जिवाक
करचेली आसा जाका तांक
भोवतणीच तुज्या वावुरताना
मात दिसना तुज्या नदरांक

आळोवशीत कितलोय देवाक
आटापिटो फुकटचो तो
भाव नासतना काळजांत
कसो येतलो निकट तो!

काळजाच्या देवाऱ्यांतच
तुजो देव बशिल्लो आसतना
सोदीत आसता तूं मात
देवाळाच्या गाबाऱ्यांक

मनां कवडां धांपून करशी
आडवण विकारांच्या वाऱ्याक
घडटलो साक्षात्कार तुकां
तुजो देव तुज्याच म्हाऱ्यांत

## हांव आतां अडगळेची वस्त

काळाचीं पावलां फुडें वतालीं
ना वतालें त्या लागीं म्हजें मन
तें भरतालें उमेदीन
ना उरतालें पिरायेचें भान

मन कुडीचें ल्हवू ल्हवू पटूंक ना
हाता पांयांक तांक उरूंक ना
गात्रां सगळीं सदळ जाल्ल्यान
मनाचें आयकप फुडें जमूंक ना

अडखळेची वस्त हेंच आतां
म्हजे फुडले जिणेचें मोल
तरी घरचे आपले अपुरबायेन
फुकटचे वाजोवन दाखयतात धोल

मायेचो जांकां उमाळो
वेल्यावयर नाशिल्लो मोगाचो सुवाळो
कारण आसता सगळ्यांचो
म्हज्या दुडवां पेटयेर दोळो

संवसाराचें हेंच वेव्हारीक गिन्यान
मोडक्या खुरसाक, पडट्या सूर्याक
ना करी कोणच भौमान
परंपरा घरा कणकणी हीच आसा जावन

जीण सोंपता केन्ना पळोवंचेली वाट
भोगचेलें जें घडटा बरें वायट
जो मेरेन जीव-कुडीची तुट्टा गांठ
आनी जीव वता कुडीक दाखोवन फाट

## पोवाडो कूळ मुंडकारकायद्याचो

कुळकायदो आनी मुंडकार
करून जालें मोकळें सरकार
ना सुखी कूळ मुंडकार
गाळी दुकां मात भाटकार जी जी जीऽऽऽ.

शेताकामाची उरली ना गोडी
नांवां पुरतेच आतां कुळवाडी
ना गोठे, गायो, म्हशी
बैलांचीय जोडी ही जी जी जीऽऽऽ

धंदो शेताचो फाटल्या वेळार
चलतालो धनयांच्या खुस्तार
सांबाळून व्हरतालो बाबडो
कुळांक गरजेच्या वेळार जी जी जी ऽऽऽ

कूळ घोळटालो धनया घरकामाक
येना जातें उणेंपण मनाक
वावरताले दोगूय मोगान
एका मेकांच्या विस्वासान जी जी जी ऽऽऽ

दोन वांटे कुळांक दिवन
एक वांटो घेंवचो धनयान
सरकारी हेत खरो बरो
देसाचें वाडोवंक उत्पन्न जी जी जी ऽऽऽ

घडलें उपरांत राजकारण
कुळाचें घेवंक बरेंपण
कसता ती जमीन म्हण कोण
केली ताचे सुवादीन जी जी जी ऽऽऽ

स्क्वेर मीटर चाळीस पैशान
दिवन घाले धनयांक धांवडावन
पोटा पाण्याच्या सोदाक बाबडे
गेले घरदारां सोडून जी जी जी ऽऽऽ

कूळ गेलें बाबडें भुल्लुसून
नाचलेय ताळयो पेटोवन
'बीं' साऱ्याक दुडू दिवपाक
ना सरता आतां फुडें कोण जी जी जी ऽऽऽ

शेतां दिलीं धनयांक वडिलान
देखून आसतालो तांकां अभिमान
रोवन घेताले कशीं बशीं
वेळार सोंसून नुकसान जी जी जी ऽऽऽ

शेतां गेलीं पडीक जावन
अनुदानांय घेवन
इतलें आसतनाय 'बीं' साऱ्याक
दुडू काडटात ना कोण जी जी जी ऽऽऽ

मनांत आसलें घेवंचें जरी रीण
दितले आतां तें कोण?
काम जालां मोठें कठीण
वेल्यान तकलेक टेन्शन जी जी जी ऽऽऽ

कसपा पुरतेंच तें धनीपण
हातूंत कसलें आयलें मोठेंपण
विकतलो जाल्यार तें कठीण
आडमेळो घालता कुळपण जी जी जी ऽऽऽ

भाटकार मागी एका वेळार
करचो कुळांनी आपलो शेजार
फुकटाचे ताचे सुवातेर
वेल्यान दुडवांचोय हातभार जी जी जी ऽऽऽ

जेन्ना आयलो ॲक्ट मुंडकार
लागले हुस्केवपाक भाटकार
मुंडकारांक फुकटांतल्या जमनीसान
घेवपाक मोल, मिटर हजार जी जी जी ऽऽऽ

## एकदां देखण्या गोंयांत या

यो बाये यो यो बाबा यो
एकदां तरी आमच्या गोंयांत यो

चार दीस वतले मजेन
गोंयचे जेवण जर जेवलो रूचीन

विसवण, बांगडो, पांपलेटां
मुड्डशी, चणकां, वाघी, सुंगटां

बिर्याणी स्पेशल गोंयची डीश
खांवचेली जशी बाबा तुमची वीश

उंच उंच ते माड, माडयो
पणस, आंबे, काजू, केळयो

दर्याच्यो त्यो लांबरूंद वेळो
तरातरांच्यो त्यो ल्हारांच्यो खेळयो

सैमाचो तो ताळ मेळ
विसरतले तुमी काळवेळ

न्हंयो मांडवी जुवारी
गोंयच्या भाग्याच्यो त्यो झरी

पणजेचो धक्को मुरगांव बंदर
जगांत लागता तांचो नंबर

पणजे, म्हापसा, वास्को, मडगांव
जगजाहीर आसा तांचें नांव

एकदां येवशी आनी जर चोयशी
गोमतलें तुमकां कितें म्हणटा तें हांव

गोंयांत धर्माचें ना बाबा स्तोम
गोंयकारां एकवटीची ती आसा गोम

हिंदु, क्रिस्तांव, मुस्लीम जरी
मानतात आपलो धर्म

संस्कृतायेच्यो गोंयच्यो खाणी
देवळां इगर्जी आनी मशिदीनी

गोंयची अस्मिताय खऱ्यांनी
राखून दवरल्या बाबा ताणीं

## दोन ओक्तुब्राचो आकांत

दोन ओक्तुब्राक कसलो जालो आकांत
हुंवार, पावसाचें उदक भरलें न्हंयच्या देगांत

न्हंयचे काट गेले काटोकाट भरोन
देगे वेलीं घरां गेलीं मोडोन आनी व्हांवोन

न्हेसलेल्या लुगटाचेर घोरकार गेलो पोळोन
जिवाच्या आकांतान दोंगोरूय चोडोन

लुगटां गेली, आयदनां गेलीं, गेलें हेर सामान
दुडवां वांगडा भांगरय, जमीन गेली धुवोन

खबरांनी ह्या आख्खो वाठार गेलो भोरोन
वोक्तार असल्या सोरकार पुलार उरलें ओडोन

जांकां दिसली काकुळट आयले बाबडे धांवोन
दाळ, तांदूळ शिजोवपाक, इस्तोव तेल घालोन

बिस्कीटांचे पुडे लेगीत वाड्या वाड्यार फिरोन
कोशेय बोशेन तोगचो, वोचचो न्हय म्हण मोरोन

उ परांत उठले संधीसाधू सारखे खोडबोडान
होच चान्स बरो आसा कोरूंक राजकारोण



रान आंवाळे

ह्या वस्तुंचो फायदो घेतलो भोलत्यांनी, सोल्त्यांनी
नाते जांचे सोरकाराक तेंच्याच त्या सांगण्यांनी

खऱ्या पिडिल्ल्या लोकांक ताणीं दिलें सोडून
तांच्याच मनशाक दिले, सरकारी दुडू वांटोन

## एका राज्याचें एक सरकार

एका राज्याचें एक सरकार
ताचो सांगूं कितें दरबार
चावी गावली चोरांच्या हाताक
त्या पोरीतांचो कारभार

नाडबुध्दिच्या कायद्यानी
पोरजेची करी लुटमार
दुड्डू करूंक सोदतात जो-तो
आपलो घडोवंक सत्तेचो फुडार

व्हडले व्हडले अधिकारी
बोलसांत मागता तें पडल्या बगर
कामां करचेलीं वेळावेळार
ना कशेंच पयलें करी

बारीक सारीक कारभारी
सोदीत आसतात चिरीमिरी
दिसपट्टेचें नुस्तें घेवपाक
जातलो थोडो आदार तरी

त्या राज्याची सोबीत भूंय
परक्याक विकूंक आयली कूय
नदर दवरून कमीशनार
जाल्यार जावं पोरज्या काबार

घरच्या कामासान उगोत मेळल्यार
ऑफिसांत बोसूंक बेकार
हक्कान घेताले म्हयन्या शेवटाक
भत्तो आनी फूल्ल आपलो पागार

नोकरशायेच्या ह्या माजार
ना उरूंक कसलो सुमार
दिवंची कोणाक हाची तक्रार
पडलो प्रस्न परजे मुखार

सगळें येतालें जरी पेपरार
ना घेतालो कोण काना मनार
सकलसाकून ऊंच लेगीत
हफ्ते पावताले वेळच्या वेळार

लायसनां मेळटालीं घरा दाराक
उगडूंक सोऱ्याचें बार
एक नंबरच्या सोऱ्या परस
दोन नंबराच्याक आसतालो भार

सोरो पिवपी पिवन असलो
जातात सामकोच जारजार
तरणेपणाकच सोंपताले
बायल पोरांक सोडून वाऱ्यार

## पाळणो

जो बाळू जो जो बाळू जो
आमच्या गरीब कूळ भुषणा
कर्मच आमचें खोटें, तूं दिवं नाका ताका दुशणां

तुकां जल्म दिला तो तुजो बाप
साता जल्माचो, म्हाका रे स्त्राप

काम धंदो ना, सोऱ्यान दिसभर तर्र
सोऱ्याक पैशे दी म्हण, करता हार्रहूर्र

तुज्या दुदाक लागोन, वेतां हांव घोळूंक
म्हज्या पोटांत पडल्यार रे शकतलें तुका मेळोंक

तरी सरकारान केलां आमकां बि.पि.एल.
सवाय मेळटा देखून थोडो गरजेचो म्हाल

तीन रूपयांनी तांदूळ किलो मेळटात
देखून कुडी आमच्यो, कश्यो बश्यो जगतात

तरी सरकारार लोक सगळे रूसतात
उपकार करूनय लोक आपले बासतात

काम करचेलें ना, मनांत कोणी हाडटात
बेकार भत्तो मात लज सोडून मागतात

सोरो गुटख्यान, कुडी जाल्यात तांच्यो ज्याम
खोरें, कुदळ उचलूंक येना, करतले कर्माचें काम!

सरकार करता यत्न वयर काडूंक आमकां
व्यर्थ सगळे मात कोंडाचें सूख जांकां

बाबू तूं पूण जा वेगळो तरी कोण
शिकून तुज्या हाड आंगाक मोठेंपण

जो बाळू जो जो बाळू जो
जो बाळू जो, जो बाळू जो

## नाग पंचमी पावणो

नाग पंचमीच्या पावण्या
आज घरा आमच्या यो ना
वाडग्यांतलें दूद, थोडें पिवन तरी वचना

देव तूं आमचो आसतना
भायर जाता तुजी दैना
लिपचे पड्टा, वाठावंक जीव राना-वनांत

कोणाक तुजें वैर ना
तरी तुजी खैर ना
धाड पडत केन्ना तुजेर हाचो नेम ना

शेत कामत्याचें इश्टपण
राखूंक तांचें बरेंपण
हुंदीर चिरटां खाता, करता शेता राखण

गांठ कोणाशीं पडत जाल्यार
उठटा तूं तांच्या जीवार
कोण कोणाक वळखना ह्या जीव वाटावपा वेळार

रूपान कितको देखणो दिसता
ताट मानेन जेन्ना आसता
तकलकीत पिवळ्या आंगार फणो धोलता

फोंसऽकारो तुज्या तोंडाचो
विकार तुज्या दांतांचो
धास्ती तुजी सगळ्यांक घडयेक जीवारय येता

## भारत मायेक सवाल

मोगाचे गे भारत माये
केदी व्हड तुजी लोकशाय
चाल तिची वाकडी कित्याक गे
कारण आमका सांग तरी बाये!!

तुजेर आमच्या सगळ्यांची सत्ता
राबोंक मात थोडेशे सोदतात
आपूण आपले, पूत, नातू
पणटूय सगळे तांचेच आसतात

तुजे सेवेची संद मेळची
हीच एक मागणी आमची
ती मेळोवपाक झगडीं चोवशी
लोकशाय हीच काय? तूं म्हणशी!!

हिंदु, मुसलमान, शीख, इसाई
हरशीं म्हणटात आमी भाऊ भाई
मतां खातीर धर्म जातीचेर
एका मेकां मदीं झगडीं बाये

सेवक आमका सांगता आपूण
जनतेचो मोठो आब राखून
नोटांची आनी सोऱ्याची हांकां
गरज मागीर कित्याक गे बाये

पोटा खातीर जे जातात लाचार
दुडू घेतना ना करतात विचार
दुबळ्यांक आसना आदार
मारा भयान ते जातात बेजार

बुदवंत तशे व्हडले विचारी
वाचोंक पळयतात ती कशेय तरी
तोंडा फोक्यो सोडटल्या असल्यांक
लागीं  ना गे कोणी करी

अशी तुगेली ही लोकशाय
खऱ्या अर्थान चलोंक जाय
सुराज्याचें सपन आमचें
जायत खरें काय? सांग गे बाय!!

## सोरो कित्याक पितात

सोरो कित्याक पिवंचो न्हय
गुटखो कोणी खावंचो न्हय
सांगपाक सगळ्यांक सोंपें दिसता
पिवपाचें कारण ताचें ताकाच खबर आसता

भुरगो आपलो शिकचो
आवय, बापायच्या मनांत आसता
जावंचो व्हडलो नावास्तीक
भुरग्यांच्या करण्यांनी बेत फसता

भुरगो स्कुलांत वता खरो
शिकप जायना उरता कोरो
तातूंत लागता भायलो वारो
वायट सांगांतान पिता सोरो

फुकसांव म्हण पयलेच फावट
बार्रांक घालतात पार्टीचो धाट
रूच सोऱ्याची पीवन चोवपाक
मारून फोरेन सोऱ्याचे पायट

कोणेतरी जल्मांक घाल्लो
नासता ताका आदार कसलो
कितें करीत मनीस असलो
मनीस जल्मांक येवन फसलो




रान आंवाळे

जोडिल्ले दुडू पोटाक पावनांत
भूक तर कशीच न्हिवना
सोऱ्याच्या चार घोंटा बगर
जीवाक ताच्या थारो मेळना

शिकिल्ल्या तरनाट्यांक नोकरी गावना
चेडवांक पळोवन काळीज थोपना
बेकाऱ्यांक चेडू दिवंक सोदना
न्हिदे वखद सोरो घेवंचो चुकना

काजार जाल्यारय जाग्यार पडना
बायले मुखार इलाज चलना
मांय सुनेचें झगडें सोंपना
कितें करचें तेंच गोमना

बायले बाजू सोडूंक फावना
ना घेतल्यार ती कुळार सोडना
ह्याच भंयान न्हीद येना
सोऱ्या बगर उपाय सुचना

येप्रेंगाद तेही सोरकारी
सुरवेक कोरे कोरकोरी
खावपाची बादा लागोत जोरी
मागतात दुडू ना बियर तरी

धंदेवाल्यांचो धंदो वाडटा
दुडवां नेटार बरेंच मारता
म्हारग जावं कितकोय चलता
पेगाक कसलो सुमार नासता

जेन्ना धंदो काबार जाता
कोर्जाक तो बुडून वेता
उंची सोऱ्याचो नेटय जिरता
निमणें कुडी सोऱ्यार पडटा

हींच कारणां चडशीं घडटात
पिवोन बाबडे फसतात
उपाय दुसरे बरेय आसतात
सोदचे कोणाच्या मनांत नासता

## श्री हनुमंताक नमन

जय जय श्री हनुमंता
अंजनीच्या पुता
दशरथ रामाच्या
माय मोगाच्या भक्ता ।।१ ।।

रूद्र आसा तू अकरावो
शक्तिचो तूं देव
तुज्या भजनाक रमतना
भंय सगळो पयसावता ।।२ ।।

दुर्जनाचो काळ तूं
भक्तांक दिता बळ तूं
चिरंजीव, ब्रम्हचर्य
हीं व्रत तूं पाळटा ।।३ ।।

## स्वतंत्रकायेचो उमाळो

गेले ब्रिटीश, गेले फिरंगी
स्वतंत्रतायेची चडली गुंगी
गावन तिची व्हडवीक
जय थंय सगळ्यांनी वाजयली पुंगी

वीर जे या झुजांक ओपले
प्राण वचून बाबडे सुटले
गोडवेय तांचे गावन गावन
आर्गांचे सुवाळेय सोंपले

आतां तांची ना याद कोणाक
पोरण्यो गजाली हाडप कित्याक मनांत
चुकना त्यो, आवयबापाक
आनी तांच्या बायल पोरांक

वर्सां आतां जालीं साठ
स्वतंत्रतायेची अजून मळना वाट
जें कितें मेळ्ळां सादूंक
बळिश्ट तांची ना सोडटात फाट

गरीब दुर्बळ बाबडी जनता
सुखाच्या दिसांची वेळ सोदता
सुखाचीं सपनां पळयत, पळयत
आयज मेरेन फसता

स्वतंत्रतायेची ही कसली व्हडवीक
बारीक लोकांक जी काडटा मोडीत
सोन्याच्या बळार नोटांचे जोडीक
तांच्या हक्काकूय काडटा ओडीक

स्वतंत्रतायेची ही फक्त झूल
जी पेटयता घरांत सारकी चूल
जाणीं तिका खेचोवन हाडल्या
म्हणटले ही आमची व्हडली भूल

## सरकारी फॅमिली प्लॅनींग

सरकार सांगता आपले प्रजेक
एक पुरो दोन कित्याक?

लोकांची वाड जाली मोठी
शंबर आनी धा कोटी

पैसो खर्चता जेवपाक खावपाक
कशी उदरगत जातली करपाक?

बळीश्ट देशाचें सपन आमचें
दुडवां बगर ना कशेंच जमचें

संतत वाडोवंक ना मनांत हाडचें
दुसरे उपाय हाचे बगर ना मेळचे

गरीब अनाडी ह्या देशाची जनता
चिंतूंक हाचेर लोकांक फुरसत नासता

दीस उदेंतेर धडपड आसता
पोटा पाणयाची करूंक वेवस्था

असल्या लोकांक हाचें ना व्हडलेंशें
उमथे कळशार घालें उदक जशें

धर्म आपलो कोणाक येता आड
देशा परस तांकां धर्माची चाड

धर्मशास्त्र हें प्रमाण जांकां
देशाचें ना पडलेलें तांकां

जांकां कळटा तें ना वळटात
देशहिता पासून ते पैस पळटात

अशा लोकांचेर इलाज चलना
मानप कोणें हाचो निर्णय ठरना

भुरगें आपलें एकच आसचें
मळबाचें ताणें सपन पळोवंचें

काय लटांबर वाडोवन आपल्या पोरांचें
अन्नाक ताणी वणवणत रावचें?

## न्हंयची खंत

सांगू बाये कितें! म्हजें उंच कुळार
फातराची वाट, काटे, कठीणय जाता पावपाक वेळार

घोवा घरा आयलें साकून
कुळार म्हजें पयस करून
परती परती याद येतना
दिसता तिका मेळचें मनांतसून

मेळूंक वतां आवयक म्हजे
दीस रात दोनी वेळां
चडटी चड्टां चड्टां हांव
वळटा जीव, तेकता गळा

भागली आसतली तीय बाबडी
म्हज्याय खूब हुस्क्यान
दुकांयय ती गळयता जातली
कोण करतलो तिचें सांत्वन

व्हडपण म्हज्या घराकाराचें
एकदां तरी सांगून येवंचें
मनांत आयलें घडून वचचें
नशिबांत ना तर कशें जावंचें?

दुख्ख म्हजें सांगतलें कोणाक?
सांगचें घरकाराक अशें येता मनांत
हरशींच बोवाळ तांचो मोठो
तातूंत तांचो रागय खोटो!

## दौलत

दौलत जरी गरजेची
कुडींत जीव आसा मेरेन
उपकारना फुडें कशेय तरेन
जिचे खातीर संचीत करतां
ती कुडच उरना आपले कडेन

आदार तो तात्पुरतो
जीणेचो प्रवास सोपो पुरतो
मरण चुकचेंना आज फाल्यां
तरी दौलतीचो आपलो ध्यास
उचंबळून येता परतो परतो

दौलत आपल्याक खरीच बऱ्याक
नीतीचे वाटेन जर येता घराक
बरो जितलो आसप ध्यास
व्यसन तितकेंच ताचें वायट
कारण तें दाखयता आड वाट

आपल्या उपरांत आपलें भांडार
हक्काक येतले आपलेच नातेदार
लागींतले, पयसल्ले जातले दावेदार
आनी एकमेकांचीं हड्डीं फोडून
सांडटले आपल्याच रक्ताची धार

आपल्या दौलतीचो हो ताप
करूंक लायता उपद्व्याप
देखून आपले दौलतीक
म्हणचो हो आपलो आशिर्वाद
काय आपलो हो खर स्त्राप!!

## देवा तुजो खरोच रे गुन्यांवकार

मनीस जन्म मेळचो कठीन
मेळ्ळोच देवा तुजे दयेन
गेलों हांव सगळें विसरून
खंत पावतना मरणा शिमेकडेन

रावलों जोडीत धन दौलत
ना नीत, ना चाल रीत
तुकांय थारो ना दिलो
हेंच सलता म्हाका रात दीस

भांगर, रूपें, हिरे, मोती
तीय भुंयेंचीच माती
तिका पुराय भुलून गेलों
परमार्थाकय ना नदर चुकती

ना सांबाळ्ळो म्हजो हावेस
वाडोवंक संपत्तीची रास
कुडीकय घडोवन उपास
फुकट जाली राखून मिरास

हीच दौलत सोडून हांगा
आयलों जसो उगड्या आंगान
वचचें चुकना आतां म्हाका
धर्तरी सोडून भायल्या जगांत




## नातें माये मोगाचें

सत्ता गाजोवन दर्यापार
फिरंगी गेले फिरंगणाक
फिरंगीपण आजून दाटलां
काळजा भितर कांय जाणांक

गोरेपणांतलें देखणेंपण
मनाक भाविल्लें व्हडपण
आपलेच आवयक उणे लेखून
चलताले तांचें लेंबडेंपण

फिरंगी सोरो, पाव, उंड्याक
संवकली रूच एकदां तोंडाक
भूख सुखाची न्हिवताली वांगडा
कशी ती आतां जाता विसरपाक

फाटली यादी बांदून गांठीक
नजर लावन पयस वाटेक
एक दीस तरी येतले केन्ना
माये मोगान आपले भेटेक

सुवाळे तांच्या व्हडवीकपणाचे
केन्ना, केन्ना तरी दिसता घडचे
दाखोवंक तांका अजून तुटूंक ना
माये मोगाचें नातें तांचें

## आवय भाशेक वाचयात

उठा उठा गोंयकारांनो
आवय भाशेच्या मोग्यांनो
हे वेळार एकठांय जायात
आवय भाशेक वाचयात

कोंकणी, मराठी गोंयची भास
तोच गोंयकारांचो स्वास
फुडें व्हरतात त्यो गोंयकारांक
गोंयकारांचो हाचेर विस्वास

आवयभास शिकूंक जाय
पयल्या पावंड्यार आसूंक जाय
तिच्या नाड्यार संस्कृताय
तिगता हें आमी जाणूंक जाय

जाचे लागीं ना जाण्टेंपण
आवय भाशेची नेणा व्हडपण
तरी चलता परक्या भासांचें
नाका जाल्लें गुलामपण

परक्या भासांचें जांकां पिशें
पोटाचें आमच्या जातलें कशें
निमित्त हें लोकांक सांगून
करून घेतात आपलें हांशें

आवय भाशेक घालून भायर
इंग्लीशीक घेवन माथ्यार
कित्याक जाल्यात हे लाचार
गोंयकारांनीच करचो विचार

भासांचें करतात राजकारण
तांचे आसनांत केन्नाच खरेंपण
ना शिकप्यांचें तांकां बरेंपण
सत्ते फाटलें हें खाशेलपण

## रानआंवाळे

मॉट म्हजी ना तातूंत दुडू
ना रूपें, ना भांगर
जें कितें आसा भितर
तांचो साज खूब सुंदर

मनशाल्यो करण्यो, विचार, सभाव
सोंगां, धोंगां, भितरलो भाव
हाडप दाखोवंक भायल्यान मात
हेरांक वेगळोच आव

मोठेपणाची फटकिरी मिजास
नवे पिडीचो देशाचो ध्यास
आदल्या जाणट्यांची दिवन याद
त्या नदरेन घडचो म्हूण तांचो प्रवास

त्या त्या वेळार घडचेलें काम
केन्ना तरी करतलों हांव
वेळ टळून गेली जाल्यार
भोगचे चुकनांत दुशपरिणाम

रिगिल्या रोपाचीं जरी मुळां
रोपां सकट हुमटायलीं
राखून दवरतात तिच्यो खुणो
खोलायेंतलीं भितरलीं पाळां

शासनान दिल्लो न्याय
सगळ्यांक सारको आसूंक जाय
हीत आपलें राखून दिल्लो
हो खरोच अन्याय

वेलो जेन्ना नाडूंक लागता
सकयल्याक नसाय जाता
सत्तेफुडें इलाज चलना म्हण
हांगा त्याच वरवीं तोय वता

सोरो कित्याक पितात
पिणाऱ्याकच खबर आसता
सोरो कित्याक पिता रे बाबा
हें विचारूंक कोणाकय सोपें दिसता

लोकशाय खऱ्यानीच उरतली काय
लोकांक जशी ती आसूंक जाय
विचारतात लोक भारत मायेक
तिचेरूच दुबावल्यात काय?

जल्मल्लो केन्ना तरी मरता
खबर आसून जिणेंक पेट्टा
आयुश्यभर केल्ली पत
सोडची कशी हेंच नडटा



फाट करून परमार्थाक
पेटिल्लो आपल्याच स्वार्थाक
मरणादेगेर दोश, देवाक
गेलें म्हण सगले व्यर्थाक

समाज मळांनी वावुरतना
पुंजयलीं हीं फळां
रान आंवाळ्याच्यो तांच्यो कळा
आंबट जरी, रूच काळजा तळा







## नरसिंह प्रभू गांवकार

हांव फाटलीं बारा-तेरा वर्सां श्री. नरसिंह प्रभू गांवकार हांणी बरयल्ल्यो कविता, एकांकीका वाचतां. तांका साहित्याची आवड आसा. कवितेच्या नेमांत बसपा सारकी कविता नासली तरी ती तांच्या काळजांतल्यान आयल्या हें म्हत्वाचें. तांचे कडेन एक अणभवी नदर आसा. ते जीण जगल्यात. एका व्हड घराब्यांत वाडल्यात. तशेंच तांणी वडील ह्या नात्यान तो सांबाळ्ळा. तो सांबाळटना आयिल्ले अणभव, सुख-दुख्खां, अपेक्षा, इत्सा हें सगळें तांच्या कवितांनी उपाट भरिल्लें दिसता. आपले मांयभाशेचेर तांचो खूब मोग आसा. तांचे लिखणेंत एकेतरेचो बिनधास्तपणा आसा. तांका कोणाचो भंय ना. काळजांतलो उमाळो ते तश्याकतसो कागदार देंवयतात.

- स्वाती नायक

बिम्ब
प्रकाशन